# माणकुलीं कवनां



अभयकुमार राणे वेलींगकार

# माणकुलीं कवनां

अभयकुमार स. शणै वेलींगकार



शणै प्रकाशन

वेलींग – गोंय

शणै प्रकाशन : १

दुसरी खेप : आगस्ट १९८०



अुजवाडावपी :

सौ. वसुमती स. शणै वेर्लींगकार
शणै प्रकाशन
वेर्लींग – गोंय
४०३४०४

छापपी :

काझ अुदय प्रिंटींग प्रेस
पोस्ट ऑफीसालागीं
पणजी – गोंय
४०३००१

मुखचित्र : श्री. गुरुनाथ केळेकार हांच्या बरेपणान

मोल : ४ रुपया



चार वर्सांच्या पिरायेचेर

आमकां सोडून गेल्ली म्हजी भयण

**बाय वर्षा**

हाच्या पवित्र आनी गोड अुगडासाक

– अभयभाओ

## पयलें खेपे —

माणकुल्या भावंडानो,

हांवें रचिल्लीं हीं कांय कवनां – माणकुलीं कवनां. हीं कवनां आज ह्या धाकटुल्या पुस्तकाच्या रुपान हांव तुमच्या हातांत दितां. संवसारभर अंदूं 'अंतरराष्ट्रीक भुरग्यां वर्स' मनयतात हें तुमी जाणातच ह्या वर्सा निमतान, तुमचेखातीर म्हजी ही अपुर्बायेची भेट. हांतल्यो कविता–कवनां वाचून तुमकां खोस जातली अशें हांव समजतां. भुरग्यांचो मोग म्हळ्यार देवाचो मोग अशें म्हण्टात. ह्या मोगाक शर्तशीम ना. एक व्हड धादोसकायच ती. अशा धादोस मोगातल्यानच हीं कवनां जल्मा आयल्यांत.

'माणकुलीं कवनां' आतां तुमचीं.
तुमकां तीं आवडूं.

तुमचोच,
अभयकुमार

# बाबूचें सपन

बाबूक खंय एक सपन पडलें
सपनांत ताका जाय तें दिसलें
झाडाक कितल्यो च्याकलेटी पिकलेल्यो
हालोवचे पयलींच ‘ टपटप ’ पडटाल्यो
आअिस्क्रीमाचे व्हाळ व्हांवताले
पयशांचे दोंगर आसलेले
बाबूच्या सपनांत दोतोर आयलो
बाबून ताका सारखो तपासलो
‘ इंजक्शन नाका ’ तो रडटालो
बाबूच्या सामको पायां पडटालो
बाबून ताका लेमन दिलें
बर्फावांगडा घेवंक सांगले
बाबू मागीर शाळेंत गेलो
मास्तराक तो शिकोवंक लागलो
चोपडी भिरकटावन मास्तराचेर तापलो
थापट मारतनाच जागो जालो

# नाका, नाकाच

पोटांत जातलें, गोड खावं नाका
दांत किडतले, च्याकलेट खावं नाका
दंत जातले, साखर खावं नाका
थंडी जातलो, उदकांत नाचूं नाका
कपडे लोळटले, जमनीर बसूं नाका
अभ्यास कर, काणयो वाचूं नाका
शाळेंत चल, सिनेमा पळोवं नाका
खेळूंक वच, मस्ती करूं नाका
दोग्गी बस, हट्ट करूं नाका
मामा येतलो, खंयच वचूं नाका
हें नाका, तें नाका, कांयच नाका
आई दादा सदांच सांगता म्हाका
आतां तर अशें दिसता म्हाका
'नाका' हो शब्दच नाका !

# हांव जर मंत्री जालों

हांव जर जालों मंत्री
खायत रावतलों सदांच संत्री
सगळे म्हाका भियेतले
म्हजें सगळें आयकतले
शाळा सगळ्यो करतलों बंद
भुरग्यांक लायतलों खेळाचो छंद
नाटकां, सिनेमा फुकट दवरप
च्याकलेटी सगळ्यांक सवाय दिवप
भुरग्यांच्या हातांत पतंग दिवप
मास्तराक गणितां सोडोवंक सांगप
सगळयांक सांगप मिशयो काड
तोंडार मात्सो हांसो हाड
हांव जर मंत्री जालों
खरेंच कितली मजा करतलों !

## शाणे हुंदीर

आमचे हुंदीर इतले शाणें
खाता ते फकत अंडे
धांवत फाटल्यान खंयचेंय सुणें
देखून बिळातोंडार ते दवरता गुंडे
आमचे हुंदीर इतले शाणे
घेवन भोंवता रुपया नाणें
घेवंक गेल्यार कड्डुणा दाणें
दितात ते मोडचेच आणे.

---

## लग्नाक येतलों

गाय म्हण्टा, 'हाम्मा'
केन्ना येतलो 'मामा'?
कावळो करता 'काव काव'
आयलो पळे तुजो भाव !
माजरान केलें म्यांव
म्हळे, आयला तुजो घोव
बेब्यान म्हळे, 'डरांव'
लग्नाक तुज्या येतलों हांव !

# हांस बाये हांस

हांस बायें हांस
तुज्या हांसपान पडूं दी फुलां - रास
खेळ बायें खेळ
तुज्या खेळपांत भरूं दी बरे मेळ
हांस बाये हांस
तुज्या हांसपान जायेक येवंदी वास
फिर बाये फिर
तुज्या फिरपान उडूं दी बायें कीर
हांस बाये हांस
तुज्या हांसपान वचूं दी आमचे त्रास.

---

# ताई

आमचें ताई
जाता केन्नाय
शाळेंतली ‘बाई’
खेळांतली ‘आई’
म्हण्टा कशें,
हें बरें, तें वायट
पोले फुगयता
तायट – तायट !

# अशें केन्नाय घडत ?

बाबून म्हाका विचाल्लें
अशें केन्नाय घडत
सुकणीं अुडनासतना रावत
कावळे आडुनासतना रावत
कोगूळ गायनासतना रावत ?
अशें केन्नाय घडत
झाडां हालनासतना रावत
वारो व्हांवनासतता रावत
पानां झडनासतना रावत ?
अशें केन्नाय घडत
घोग्यानीं पावस येत
शाळा अुदकान बुडत
शाळेक सुटी मेळत ?
अशें केन्नाय घडत
म्हाका खेळूंक मेळत
म्हाका नाचूंक मेळत
कोण रागार जावचोना ?

# रेडियो

रेडियोचो पिळूंक कान
दादाक पयलो मान
केन्नाय ताणें केल्यार बोवाळ
दादा सोडटा कान, जावन म्होवाळ.
हांव गेल्यार लागीं
म्हण्टा, सर पयलीं फाटीं
काम ना कांयच जाल्यार
घेवन बस पाटी.
हांव लायतलों हात
म्हळचाळ दिसता म्हाका भंय
चोरून लायतलों तर
जायत मागीर संवय.

## फुलां पुजोवंया

येयात येयात,
वोंवळीच्या झाडापोंदा वोबळा पुजोवंया
वोत पडलां,
वोताक पळोवन फुलां हासल्यां !
वारो आयला,
फुलानीं परमळून ताका येवकार दिला !
झाडां हाल्ल्यां,
अुदेत्या सुर्य देवान पदां म्हळचां !

---

## म्हजी बावली

येयात येयात
म्हजी बावली पळयात.
अुलयना जरी
दोळयांनीच ती सगळें सांगता.
दोळे फिरयता
पळे कशी नेटान म्हाका पळयता.
पळयात तिका
म्हाका पळोवन कशी ती हांसता.
म्हजेवांगडा खेळटा
म्हजे इतली शाणी ती म्हाका दिसता.
म्हजी बावली
म्हजेखातीर अेकूच आयल्या दिसता.

# न्हीद

हालली झाडां
हालली पानां
कोणांक पदां म्हळीं ?
न्हिदले काऊ
न्हिदले चिऊ
कोणे तांका थापटिलीं ?
न्हिदलीं झाडां
न्हिदल्यो वाली
न्हिदलो चांदीमामा !
रात जाली पळे कितली
खंय गेलीं हामां ?
सगळे न्हिदले
बाबू कसो जागो
न्हीद येना बाबूक ?
न्हीद बेगीन !
येतलो हाऊ !
घेवन हातांत चाबूक !

## पावस

हावें एक देखलो मोर
सपनांत ताचो जाल्लो चोर
ताणें एक कूप घोल्लें
घेवन ताका धावंक लागलो
कूप सामकें भियेलें
हात सोडून धांव लागलें
धांवतना बाबडें सकल पडलें
पावस जावन व्हावं लागलें.

---

## सोंश्या — सोंश्या

सोंश्या सोंश्या
कसो तूं अितलो गोरो ?
आंगार केन्ना घेतला तुवें
दुदाचो बी झरो ?

सोंश्या सोंश्या
तुकू तुकू कितें पळेता ?
हांव कितें अुलयतां,
तें तुका समजता ?

## आमचो बाबू

बाबू आमचो
अितलो शाणो
केन्नाच हातान
काडीना गुंडो
अुणाक शब्द
दिना तो कोणाक
म्हणिना केन्नाच
लेणो, सुणो.

बाबू आमचो
अितलो बरो
दिसता कसो
पणसा गरो
अुतरान तर
अेकदम खरो
सांगता सगळयांक
वायट म्हूण सोरो.

## अेकादस

माजराक म्हण्टात
वाघाची मावशी
सदांच ती
आसता खोशी
हुंदीर नासले म्हणजें
घडटा तिका अुपास
म्हण्टा कशी मागीर
"आजी म्हजी अेकादस !"



## मामा

आमच्या गावांत
आसा अेक मामा
मामा करता
खूब खूब कामां
मामाचें नाव सतीश
मामा सांगता ज्योतीश
मामाली आसा व्यायामशाळा
व्यायाम करतात भुरगींबाळां
मामा तकलेन रावता अुबो
भुरगीं धांवतात घरा मारीत बोबो !

## पावसाची अिश्टागत

पावसा पावसा यो यो
तुका पयसो दितां
म्हजो पयसो खरो
हांव सगळयांत बरो

म्हण्टां तुकाय बरो
पुण येवंजाय तुवें खरो
जेन्ना वतलों हांव शाळेंत
येवंजाय तुवें वाटेंन.

सगळे जाण भिजुंदी
शाळा सगळी बुडुंदी
शाळेंक मेळटली सुटी
अिश्टागत आमची मोठी.

## अेकदां कितें जालें

बाबू जालो ताओी
ताओी जालें बाबू !
बाबू गेलो शाळेंत
ताओी रावलें घरांत !
ताओी भोंवता
आओी फाटल्यान
बाबू शाळेत
पाटी हातांत !
आओी ताओीक
खावंक दिना
बाबूक मास्तरालीं
गणितां येना !
खावंक दिना देखून
ताओी लागलें रडूंक
गणितां येना ... ...
बाबू पाटी लागलो फोडूंक.

## चंद्रिमाचें लग्न

मळबाच्या आंगणात
चंद्रिमाचें लग्न
हेवटेंन तेवटेंन धांवपांत
नखेत्रां सगळीं मग्न.

न्हवरो चंद्रीम
सजून रावला
व्हींकल ताची रात,
लजून गेल्या.

लग्न लावंक चंद्रिमाचें
सुर्याक आपयलो
सोदता सगळे सगळ्याक
चंद्रीम खंय गेलो ?

## वाज कसो येना ?

कितले दीस रावला अुबो
खांबो कित्याक बसना ?
असोच अुबो रावन लेगीत
पुरो ताका जायना ?
हेवटेन तेवटेन
कित्याक तो पळेना ?
मळबानूच पळोवन ताका
वाज कसो येना ?

---

## चिव ... म्यांव ...

चिव चिव चिव
माजराक नाका भियेवं
दिसलें माअू लागीं
तर बेगीन बेगीन धांव !
म्यांव म्यांव म्यांव
कितें तुका जाय ?
आवयची माया म्हळचार
दुदावेली साय !

# हांव हांव

बाबू म्हण्टा
हांव शाणो
जाय म्हाका
नव्यो व्हाणो
ओगी रावंचोना
अुलयलच्यार फट
हाडून घेतलों
व्हाणाजागयार बूट.
बाबू म्हण्टा
हावूंच हुशार
लाडू खातां
चार चार
आओी बरी
हांव बरो
बाकी सगळयांक
दिवंक जाय मार.
बाबू म्हण्टा
‘ हांव हांव ’
भाअू हातांत बडी
धांव धांव.

## कावळो

कावळ्या कावळ्या
कसो तूं काळो
ओडलो कोणें तुजेर
शेणाचो बी लोळो ?
कावळ्या कावळ्या
आंवय आंवय
नाका थंय चोंच मारची
कसली बुरशी संवय ?

---

## अिश्ट

बिलू गो बिलू तुका
खावक कितें जाय ?
खावन खावन वाज आयला
पोट रितें दवरूंक जाय !
बिलू गो म्हज्या, तुका
दुदू हाडून दिवं ?
दुदू नाका म्हाका आतां
हांव थंड अुदक पियेन
बिलू पळय आंगणात
कुतू अेक आयला
झगडचेना हांव ताचेवांगडा
अिश्ट, तो म्हजो जाला.

# ताट गायता

ताट म्हजें रुप्याचें
पेलो म्हजो भांगराचो
पेल्यांत अुदक भल्लें
ताट गावंक लागलें.

नाल्लांत आसा अुदक कितलें,
भांगराचो पेलो भरता अितलें
माडार चडला माकड
घेवन हातात लाकूड.

माकडा माकडा नाल्ल दी !
माकड सांगता, 'अुदक पी !'
पेल्यांतले अुदक हालता
ताट म्हजें गायता !

# नाजूक चली

अेक चली नाजूक
तुपावरी साजूक
सुपारेयेदो शिताअुडी
बाकी सगळें पानांत सांडी
अभ्यासाचें नांव नाका
मास्तर केन्नाय सांग म्हाका
मास्तरान अुबाल्ल्यार हात
अुडटाली ती फूट सात
मास्तर तिका धरतालो
जाग्यार हाडून बसयतलो
मास्तर तिचे दोळे पुस
भुरगे पोट धरून हास.

# नुस्त्यांची मस्ती

मोडणां घेत
चलता वाट
चडटा ती
कुंडय – घाट.

घाट काडटुकूच
मेळटा गाडो
गाडयाफाटल्यान
व्हडलो वाडो.

वाडयांत रावतात
कितलीं नुस्तीं
नुस्तीं करतात
खूब खूब मस्ती.

## रस्तो

अेक रस्तो
वतां वतां
मेळ्ळें ताका झाड,
शेजरा देखलें
हेवटेंन तेवटेंन
आसले कितले माड.

रस्त्यान झाडाक
सांगले कितलें
'मारशें कुशीन सर,'
रागान झाडान
म्हळें रस्त्याक
'तुजोच रस्तो वांकडो कर.'

झाडाच्या रागाक
रस्तो भियेलो
वाकडो जावन फाटीं सल्लो !

# म्हजें घर

पानांच्यो वण्टी
पानांची जमीन
पानानीच हांव
घर सगळें थापीन.

घरांत म्हज्या
रावतल्यो मुयो
तांचेखातीर हांव
हातुरतलीं जुयो.

घराफुडें म्हज्या
पावस येतलो
म्हजेवांगडा तो
खेळूंक रावतलो.

कागदाची व्होडीं
घेवन आमी खेळटलीं
मेमें जंय आसा
थंय आमी वतलीं.

# सोयरे

बाबूकडे अेकदां
आयलो दोमळो
म्हणूं लागलो "आफुडशी
हांव आसा सवळों !"
बाबूकडे अेकदां
आयलो अेक मूय,
सांगूंक लागली, "म्हाका मात्शी
जाय आसली सूय !"
धांवत धांवत आयले
अितल्यान दोन जल्ले
अुशीर जातलो म्हणूंक लागले
"रोखडेच आमी चल्ले."
बाबूकडे जमले अशे
कितलेशेच सोयरे
म्हणूंक लागले, तोंडाक आमच्या
च्या तरी लायरे."
हांकां सगळ्यांक धाडटासर
बाबूक जालें पुरो,
वतां वतां हुंदरान विचाल्लें,
"मेळत तुजेलागी अिल्लो चुरो ?"

# रानाचो राजा

झुळझुळू व्हांवता अुदक सदां
येयात भुरग्यांनो गावंया पदां
जमीन फोडून, भायर सरून
मेळिल्ले वाटेन तो चलत रावलो.

झाडां, वाली फाटी अुडयत
फातर, खडपां माडयत आयलो
ना खंयच तो थांबलो
फुडें फुडें धांवत गेलो

नेटान तो फुडें वतलो
कोणाक तो रावंचोना
कितलेंय अुलो माल्ले तरी
फाटीं वळून पळोवचोना.

रानाचो सगळ्या राजा तो
कोणाक तानेल्लो दवरचोना.

# आओीची माया

मळबांत नखेत्रां कितलीं ?
हातानीं धरूंक जायना अितलीं !
दर्या आसा कितलो खोल
पळेतना वचत तोल !

सदांच आंगणांत अुबो रावतां
अेक - अेक नखेत्र मेजतां
मदींच मेजूंक चुकतां
घरांत धांवत वतां !

आओी म्हऱ्यांत वतां
आओीक वेंग मारतां
आओीन दिल्लें खावंक
बेगीन बेगीन खातां

मळबांत नखेत्रां अितलीं
दर्या खोलाय जितली
आओीची म्हजेवयली
माया आसा तितली !



माणकुल्या भुरग्यांलो आपलो असो अेक वेगळोच संवसार आसता. ह्या संवसारांत, तांचीच अशीं तांगेलीं खाशेलीं गीतां-कवनां आसतात; तांचेच भुरगे मतीक साद घालपी कवीत आसता. भुरग्या मनाक हांसोवपी-खेळोवपी आनी खोशेच्या ल्हारांर धोल्लोवपी काणयो हेंय ह्या भुरग्या संवसारांतले अेक अप्रूपच. थंय सुकणीं उलयता-गायतात, सावदांय मनशांवरी वर्तणूक करतात. आनी मनशांय केन्ना केन्नाय सावदां सुकण्यावरी जातात. ह्या माणकुल्या संवसारांत सगळें सैम जाण्टयांच्या मनांतल्या नेमापरस आगळे वेगळेंच चलता वर्तता. हीं "माणकुलीं कवनां" य भुरगे मतीक खेळोवपी धोल्लोवपी आनी खोस दिवपी कवनां आसात. हातूंत मनशां, बारीक जीव-प्राणी, सावदां, सुकणीं, झाडां-फुलां वेगवेगळ्या रुपान येवन आपली हजेरी लायतात. हांगा नुस्तीं मस्ती करतात, रुखाच्या रागाक रस्तो आंग काडटा, भुतां सलाम मारतात, मळबाच्या आगणांत चंद्रिमाचें लग्न लागता, मोर सपनांतलो चोर ज़ावन कूप चोरता ........ अशी कितलीशीच मज्जा मज्जा.